# शिशु कवनां

नागेश नायक वडिये



जैत प्रकाशन

* शिशु कवनां
  - नागेश नायक वडिये

* प्रकाशन क्र. 31

* © सौ. सुदिनी ना. नायक वडिये

* पयली उजवाडावणी : 2007

* उजवाडावपी :
  सुरेश सगुण नायक
  जैत प्रकाशन
  336/11, कोर्लीम,
  तिसवाडी, गोंय - 403 110

* छापपी :
  सह्याद्रि ऑफसेट सिस्टम
  कोर्लीम, तिसवाडी-गोंय

* मुखचित्र आनी भितरली चित्रां:
  [illegible]ष वेर्णेकार

* मोल : 30/- रुपया



हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या "बालसाहित्य" येवजणेखाला छापलां.

ISBN-81-86487-00-X

# ओंपणी

*ही शिशु कवनां*
*समस्त माणकुल्या भुरग्यांक*
*माये मोगान अर्पण*

# मांडावळ

---- ◆ ----

# खेळांत हांव रंगतां



खेळण्यांतली गाडी म्हजी
रुळांवयल्यान धांवता
सोसो म्हजो चावयेचो
उडक्यो मारीत पळटा

सायकल चलता, मोर नाचता
माकोड ताळ्यो पेटता
खेळांतलें विमान म्हजें
वयल्यावयर उडटा



कुडीभितर खेळणी म्हजी
आपयतात म्हाका
तांकां घेवन खेळटां हांव
दर आयतारा

# बाबू न्हिदता

बेगीन यो रे चंद्रिमा
जनेला मुखार यो
बाबू आमचो जय करता
ताका पळोवंक यो

सदांच तूं रातच्या वेळा
बाळकां मेळूं येता
आपा लिपा खेळटां खेळटां
हळूच मुखार येता

बाबू आमचो रातचो सदां
पळेता तुजी वाट
मळबभर सोदता तुका
भरुन दोळ्यां-कांठ

बेगीर यो रे चंद्रिमा
जनेलामुखार यो
बाबू आमचो जय करता
ताका मेळूंक यो

# माजर आनी उंदीर



माजरा माजरा म्यांव म्यांव.
उंदरांफाटल्यान धांव धांव
उंदीर म्हणटा ''माजरा माजरा
भियेना तुका हांव''

मांजराक चाळयत रावलो उंदीर
हालयत आपली शेपडी
रागा भरशी माजरान ताचेर
नेटान घेतली उडी

उंदीर पळलो, धांवपा लागलो
माजर ताच्या फाटल्यान
माजरान ताका गांठच्यापयलीच
उंदीर पावलो बिळांत

उंदरान म्हळें ''माजरा माजरा
धीर आसल्यार यो बिळांत
'जैत तुजेंच जाळें बाबा
माजरान म्हळें मनांत.

# बिलूबायलीं पिलां

धवें फूल बिलूबाय
दुदावेली जशी साय
ताणें काडली पिलां चार
एकापरस एक हुशार

तांतलें एक खूब मस्तें
जेवणार सदांच सोदता नुस्तें
तोंडाक लावपाक जल्ल्यां कीसमूर
त्याभायर उंदरांपिलां सुकें

धाकटें पील बसून आसता
ताका सगळें आयतें जाय
उंदीर दिसल्यार धरचो सोडून
पळटा जशें भागुबाय.

# वाडदिसाचें गीत

आयज तुज्या वाडदिसाक
परबीं तुका दीत
गायतात आमी सगळी भुरगीं
वाडदिसाचें गीत

वाडदिसाच्या गिताक तुज्या
चंदनाचो परमळ
फेर धरुन नाचतात आमी
हांशाक आयला खळखळ

वाडदिसा दीस रे तुजो
म्होवा सारको गोड
मूस कशे जमल्यात हांगा
ल्हान आनी व्हड

तूं चंद्रीम आयच्या दिसा
आमी सगळीं नखेत्रां
तूं मोर आमी कोगळां
खुशाल कायेन गायतात कातरां

पोरसातलीं फुलां आमी
तांतलो तूं मोगरे कळो
तूं फूल भोंवर आमी
आमचो सगळ्यां तुजेर दोळो.

# बाबू न्हाता

उदक घाला उदक घाला
बाबू आमचो करता घुशू
बाबू आंगा लावपाखातीर
दी गो ताई वासा शाबू

उदक घाला उदक घाला
बाबू दोळ्यां गेला शाबू
रडूं नाका शाण्या म्हज्या
नाका बाबा दोळे चोळूं

पेलुसेचो मोव मोव तुवालो
हाड गो ताई बाबू पुसूं
पोटा फाटी, सगळ्या आंगा
वासा पोवान घाल गो न्हावूं

बाबू आमचो मोगरे कळो
दिसूंक सोबीत पिठा बावलो
पाळण्यांभितर न्हिदांत लेगीत
हांसता पळय मुमुरखो

# नाच किरा नाच



कीर कीर किरा तुजी
पांचवी चार पाकां
गळ्या भांगरा कंठो तुज्या
गायरे कातरां

तांबडी गूंज चोच तुजी
पिकी मिरसांग जशी
हडवी ताल घे रे तुका
खांवक पेरां पिकीं

आई म्हणटा शिकय तुका
फांतोडे-पारा
म्हाका खंय कळटा बाबा
तुमची किरां भाशा ?

कीर कीर किरा, पांदऱ्यांत
नाच रे नाच
कितलो म्हजो मोग तुजेर
दोळ्यांत म्हज्या वाच

# काजुल्यांचें झाड

काजुल्याच्या झाडा तूं
कितलें सोबीत दिसता
रातभर जागून तुका
पळयत रावन दिसता

काजूल्याच्या झाडा तूं
रातचेंच सदां फुलता
उजवाडचे आदीं फुल तुजें
कशें झडून वता?

शेकड्यांनी काजुले तुजे
नखेत्रांवरी लिकलिकतात
हेवटेन तेवटेन फिरत आसतात
दिसता म्हणसर नाच जातात

काजुल्याच्या झाडा तुज्यो
खंय गावतात रोपयो
आमच्या पोरसांत म्हणटां हांव
खूब खूब रोवच्यो

# आमचैं कुकूल

आकुल माकुल
शाणुल गुणुल
बायुल़ आमचे
सानुलें कुकूल

सानुलें कुकूल
बायुल आमचें
दिमकुऱ्यानी
मारता चमकूल

लाडू वळटा
दोळे मोडटा
चाळयता बरें
दाखोवन जिबूल

कुटुऱ्यो करता
पापी दिता
भुरऽऽ व्हेल्यार
नाचता शोणूल

आकुल माकुल
शाणुल गुणुल
अपुर्बाये
आमचे कुकूल



# अशी म्हजी आई

म्हजी आई कितली बरी
करता म्हजी अपुर्बाय
हाण्डीर धरता, पापी घेता
हांव तिका खूबच जाय

आई म्हाका पिपी दिता
भोबो दिता दुदू दिता
खेळपाखातीर आई म्हाका
नवीं नवीं खेळणीं हाडटा

जेवच्या वेळार मांडयेर घेता
अपुर्बायेन उंडयो लायता
‘एक उंडी मामाली’
खबरो सांगीत, माम माम लायता

सांजची मागीर आई म्हाका
पोव लावन भायर काडटा
नवो पोपो घालून म्हाका
फुलां बागेंत पासये व्हरता

आमोरेचेर दिश्ट काडटा
देवाक पाव पाव करपाक सांगता
माम माम लावन, रातची मागीर
आपल्या म्हज्यांत, न्हिदूंक व्हरता

आल्लय गायता, काणयो सांगता
पांयांर घालून न्हिदयता
किरा मोरा कपयाळें
आंगार म्हज्या पांगरुंक घालता.

# आमगेर कोण येता

‘काव काव’ कावळो रड्टा
कोण येता काय कोण येता
भाऊ येता काय दादा येता
कोण येता कांय समजना !

परनी परतीं झामोय येता
कोण बाये याद काड्टा ?
खबर मातशी हाड रे वाज्या
कशीं आसात तीं आईबाबा !

मांजर दावकुरान तोंड धुयता
कोणुयतरी येताच येता ।
सकाळच्यान म्हाकाय भास जाता
आयज म्हजो दादा येता!

बाबुलो पळे सान्न मारता !
कित्याक ताचो येतलो मामा
वाट बीट चुकून पावता
काय भाच्याक पळोंवक मुद्दम येता ?

# सपन उल्लें अर्दकुटें



चंद्रिमाच्या मळबांत
नखेत्रांचे भिरे
चंद्रिमान कुरवेन म्हाका
वयर आपयलें

चितूंक पडलें हांव
वतलें वयर कशें
चंद्रिमाच्या म्हऱ्यांत हांव
पावतलें कशें

अचकीत म्हाका त्या वेळार
दिसलो एक पंतग
लांब ताची शेपडी आनी
सोबीत बरो रंग

पंतगाच्या फाटीर हांव
घट्ट बसून रावलें
पतंग उडून गेलो तशें
हावंय वयर पावले

"चानीमामा दार काड"
दारार हांवें माल्लें
त्याच वेळार आईन म्हाका
हालोवन जागे केलें

आई म्हाका कित्याक अशी
उठयता सकाळी फुडें
काय बरें सपन म्हजें
उल्ले अर्दकुटें.

# पावसाकडें मागणें



पावसा पावसा पुरो आतां
मातसो कर आसोर
शाळे वाटेंत भिजून मागीर
आमकां येता जोर

जोर येवन सोडची पडली
शाळा जर अर्दार
तूंच सांग आमचो मागीर
कसो जातलो फुडार ?

पावसा पावसा देकून सांगतां
मातशें घे मनार
हाच्याफुडें नाका येवूं
आमच्या शाळे वेळार

# भांय



कोळवेंच्या दर्यावेळेर
आई, तुका सांगतां हांव
रेवेंत म्हाका खेळपाक सांगून
दादा वयनी मारतात धांव

''रेंव घेवन बाबू तूं
सुंदरशें घर कर
इतले म्हणसर येतलीं आमीं
आमकां खावपाक लाडू वळ''

'ल्हारांक पळोवन भुलूं नाका
उदका बगलेक वचूं नाका
आमी परतून येईमेरेन
हांगचो तूं हालूंच नाका''

अशें सांगून दोगांय आई
म्हाका सोडून वचूं लागतात
हातांत हात घालून दोगांय
माडां सावलेंत नाच जातात

तूंच सांग आई म्हाका
वेळ काळ सांगून येता ?
जर कोणय व्हरत म्हाका
बाबू मागीर खंयचो तुका ?

# आपालिपा

आपालिपा खेळा भीतर
पांच गडी खेळटाले
एक म्हार उल्ले चार
चौगूय मागीर लिपूंक गेले

चौगांमदी आसलो फातोर
मुरीन, कापूस, मिरयांकण
लिपचें खंय, येवजूंक पडलो
तांच्यापैकी प्रत्येक जण

पयलोच लिपलो मुरीनमाम
देखली ताणें नाल्लां रास
'कुटूऱ्यो' साद घालीत
बसलो वचून नाल्ला वळ्यांत

कापूस लिपलो सावरी बोंडांत
फातोर गेलो धोड्या कपलांत
मिरयाकणाक मेळ्ळो जागो
शेबदूलेच्या फुला तळांत

वांगडी गडी लिपले तशे
सोदूंक आयलो म्हार
सोद सोद सोडून बाबडो
जालो पुराय बेजार

# कावळ्या कावळ्या सत्री फुलय



कावळ्या कावळ्या
ताळी हालय
झडय आंबे
घोटां झडय
दितलें तुका
चुन्या गुळो
गोरोपीट

जातलो पळय
कावळ्या कावळ्या
ओवंळ हालय
रासभर
ओवळां झडय
दितलें तुका
सोबीत हारसो
तातूंत गोरें
रुप पळय
कावळ्या कावळ्या
पाकटी हालय
मळबाभितर
मार पासय
रेशमा कापा
दितलें सत्री
पावस आयल्यार
रोखडीच फुलय

# राकेस

राकेसा राकेसा
मळबाक तुजो तेकता हात
माडा नाल्ल काडपाखातीर
लागता तुका ओणोव घेवपाक ?

राकेसा राकेसा
दोंगरावरसून मारता दांग
वाग शींव हत्ती तुका
भियेतात कित्याक सांग

राकेसा राकेसा
मेळटा तूं आमकां काणयेंत
सांग म्हाका, ‘खरेंच आसा
तुज्या व्हड पाय बोर केस ?

# बुकल्याचें लग्न

ढुम ऽऽ ढुम ऽऽ ढुमूक
ढुम ऽऽ ढुम ऽऽ ढुमूक
बुकीमामा लग्नाक
आयलोना कोणच

पेंऽऽ पेंऽऽ पेंऽऽ पेंऽऽ
वाजलें पेपारें
बुकल्याच्या लग्नाचें
वाजलें दिवाळे

सळ सळ सळ सळ
कायलींत तळटात वडे
कोणच खावपाक येना फुडें
बुकल्याक आयले रडें

म्यांवऽऽ म्यांवऽऽ म्यांवऽऽ म्यांव
व्हंकलेन म्हळें जाता तें जांव
वडे आनी लग्ना लाडू
आमीच सगळे खांव

# कावळ्या शाळा

कावळ्या कावळ्या तुमची शाळा
वडा रुखार सांजच्या वेळा
पाटी पुस्तक वही ना
असली कसली तुमची शाळा ?

शिकपी भुरग्यांक ड्रेस ना
बसपाखातीर बांक ना
केन्नांय येवचें केन्नांय वचचें
वेळ काळ कांय ना

शाळे भुरग्यांक शीस्त ना
अभ्यासांत लक्ष ना
बोवाळाक सुमार ना
कोणच तुमकां विचारना

बाई ना, मास्तर ना
परीक्षा घेवची खबर ना
कोण पास कोण नापास
कळचें कोणा पर्वा ना

काव काव काव काव
एकच उतर घोकत रावतात
कितलींय वरसां शिकले तरी
अशानी तुमी जायशात पास?

# सोंशा पिला बारसो

सोशा पिला बारशाखातीर
आयला आजो आयल्या आजी
नातवाखातीर ताणीं हाडल्या
तांबडी गुंज बाबा-गाडी

मामान दिल्या भांगरा मुदी
मामीन गळ्यां सरपळी
मजेन पील पळेत रावता
धांवता ती खेळा गाडी

मावशेन हाडल्यात खोमशो आनी
पोवा बुशेद वासा शाबू
पिलाक पळेत म्हणटा मावशी
हांस रे म्हज्या शाण्या बाबू

आवय पिला पापी घेता
पिलाक पाळण्यांत झोके दिता
दिश्ट बिश्ट जायत म्हणून
गालाक काळो तिबो लायता

पिला बारसो मजेंत जाता
पिला खूब तोखणाय जाता
पील खोशेन मनांत म्हणटा
'सदांच यो रे बारशा म्हज्या.

# शिशु कवनां (भाग १)

एक आसलो ताल्लो
तो नित्तोच न्हाल्लो
ओल्यारच रावला म्हणून
आवयन ताका माल्लो.

एक आसली कल्ली
पेवपांत आयली पयली
खोस जावन आवयन तिका
घट्ट वेंगेंत धल्ली

एक आसलो मोरये शिल्लो
तो बरोच पिल्लो
पिल्ल्या नेटार तडीक गेल्लो
तडीकच उल्लो

एक आसलें सुंगट
ताचें कट्टें कडक
तोडांत सदां सुवी - धागो
कोण जणा कित्या पसत

एक आसली पितोळशी
तिचो गांव केळशी
बांगड्यान तिच्या कानांत म्हळें
'फाल्यां म्हाका मेळशी?''

एक आसलो शेंवटो
तो खूबच ल्हेवटो
सांगटाक थर्त भियेतालो
लायत म्हणून कांटो

एक आसलो शिंपलो
ताच्या पोटांत मोतीं
मेल्या उपरान्त आयले सगळे
सागूंक नाती-गोतीं

# शिशु कवनां (2)

**कावळ्याक**

सकाळी फुडें कावळो येता
म्हणटा काव काव
बाबू आमचो खाता पाव
कावळ्या मातसो राव

**उंदराक**

उंदीरमामा उंदरीमामा
चल बेगीन बिळांत धांव
बाबान कुडींत पांदरो मांडला
तुका म्हणून सांगतां हांव

**मांजराक**

बिलूबाय बिलूबाय
रान्नीर तोपलांत दुदासाय
आई येवचे पयली सांग
आनीक तुका कितें जाय

**कावळ्याक**

कावळ्या कावळ्या ओगी राव
करुं नाका काव काव
पापड सुकत घालचे जाल्यात
तो मेरेन जा साव

# आईगेर बाबू जाला

आबोलेच्यो फुला तुका
सांग गो कितें जाय
आईगेर बाबू जाला
आयकय चोतराय

गोऱ्यापीट गोटला तुजें
धवें फूल आंग
आमचो बाबू गोरो जावपाक
उपाय मातसो सांग

कणेराच्या फुला तुजे
कितले सोबीत तुरे
बारशादिसा फ्लावर पोटांत
सोबतले बरे

पेत्रोलेच्याह फुला बाये
मातसो रकाद दी
पिटकोळेक सांग गो शाण्या
बुधवारा सटी

जाये जुये खंय गो तुमी
सोदतां तुमकां हांव
बारशादिसा सजवपाचें
तुमचें आसा काम

मोगरेच्या कळ्या तुजो
पसरुं दी परमळ
आईगेर बाबू जाला
तूंच सगळ्यां कळय

# बाळकृष्ण

कोगूळ गायता, मोर नाचता
वाग शींव साथ दिता
यशोदेचो कृष्ण वनांत
मुरली वाजयता

गाय तणांत चरतां चरतां
शेपडी हालयता
मुरले तालार नाग लेगीत
फडा धोलयता

मळबांत सूर्य तल्लीन जाता
किर्णा फांकारता
दोंगुल्लेचेर कृष्ण बाळ
मुरली वाजयता

गवळण न्हंयचेर दोड भरता
भान हरपता
न्हयंच्या देगेर कृष्ण बाळ
मुरली वाजयता

नंदाघरा यशोदामाई
वाट पळयता
कृष्ण वनांत दंग जावन
मुरली वाजयता




# बाबू जात्रे वता

फातर्पेच्या जात्रे दिसा
बाबू फेरयेंत भोवता
खेळण्यांचो मांड पळोवन
थंय उबो रावता.

आईन दिल्ले चार आणे
बाबान आठ आणे
बाबून तांचे पयलींच घेतले
बोलस भरुन चणे

तांबडी गूंज मारूती मोटार
तिका रुपये चार
बाबूचें पावल सरना जालें
थंयसून फुडें मुखार

पेंऽऽ पेंऽऽ आवाजाचो
वाजलो भोमाडो
खेळण्यां भीतर बाबूक दिसलो
पोपटाचो गाडो

थंयसून बाबू पावलो मुखार
खाजेकारा मांडार
तागडेंत जोकून खाज्या पुडयो
बांदता खाजेकार

बाबून रेवड्यांक माल्लो बचको
काडून जिबेक धार
इतले म्हणसर सण्णकन
वाजता बाबू पोल्यार।

# बाबू जेवता

जेव रे बाबू बेगीन म्हज्या
वेळ किद्या काडटा ?
घाल्ली उंडी तोंडात तशीच
धरुन किद्या रावता ?

पोट पडलां फाटी तेकलां
हट्ट कित्या करता ?
एकेक उंडयेक एक एक नांव घेवन
लायतां हांव तुका





शिवबा बाळाक लायतां लायतां
जिजामातेन सांगची काणी
बाळ कृष्णाक लावचे वेळार
यशोदामाईन गावची गाणी

तूंच म्हजो शिवबा आनी
कृष्ण, राम ध्रुवय तू
गायतां गितां, सांगतां काणयो
तरी किद्या लायता वडूं?

ती पळय, आयली हामा
आयलो पळय कुतू
पांदऱ्यांत कीर उडक्यो मारता
उलो मारता ‘बाबू ऽ बाबू’

मिटूं नाका ओठां पाकळ्यो
आं कर म्हज्या, शाण्या बाबू
पोटभर जेवनाजाल्यार
व्हडलो कसो जातलो रे तूं ?

आमचो बाबू शाणो पळय
जेवता कसो रोकडो
बिलू वाट पळेत रावलां
बाबू उष्ट्यार दोळो.



नाव : **नागेश नायक वडिये**

नामो : लक्ष्मी बिल्डींग, दत्तगिरी
वर्दे वालावलीकर मार्ग,
मडगांव, गोंय.
फोन क्र. : 2713984

जल्मतारीख : 5 मार्च 1933

शिक्षण : मॅट्रीक

व्यवसाय : नोकरी. आतां निवृत्त

हेर वावर : वेगवेगळ्या दिसाळ्यांनीं आनी म्हयन्याळ्यांनीं कवितांचें लेखन, भौवकन्न बालकविता. 2003 वर्सा 'किरा मोरा चानये पिला' ह्या पुस्तकाचें प्रकाशन.

आवड : वाचन आनी लेखन.

उमेद : माणकुल्या भुरग्यांखातीर कविता आनी काणयो बरोवप.